# धवो कावळो

(बालकाणयो)

*भरत रघुवीर नायक*

**नामी प्रकाशन**
सी–१, गोल्डन हील व्ह्यू, रेगो नगर
बांबोळी–गोंय ४०३२०२

**धवो कावळो** (बालकाणयो)
बरोवपी : भरत रघुवीर नायक

Dhovo Kavllo
Children Stories
by
Bharat Raghuvir Naik

प्रकाशन क्र.: २०



पयली उजवाडावणी : २००७

उजवाडावपी : नामी प्रकाशन
सी–१, गोल्डन हील व्यू, रेगो नगर
बांबोळी गोंय. ४०३ २०२

मुखचित्र आनी भितरलीं चित्रां : हेमंत कांसार.

अक्षर जुळवणी आनी छापणावळ: तुळशीदास राऊळ,
सिद्धान्त प्रिन्टर्स, अस्नोडें–गोंय.
फोन : ३२०८६१४, ९३७२१७२४१५

मोल : ३० रु.

हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या
बालसाहित्य अर्थीक पालव येवजणेखाला छापलां.

# मांडावळ

# १. हुंदीर पावलो चंद्रार

एका पोरन्या घराच्या माळ्यार हुंदरांचो एक घराबो रावतालो. व्हडलो हुंदीर, ताची बायल हुंदुल्ली, आनी चौगां पोरां, माळ्यावयल्या पोरन्या सामानाच्या खांचींत बरेभाशेन दीस सारतालीं.

आळू, बाळू, काळू आनी साळू, चौगांय पोरां निकतींच धांवूक शिकिल्लीं. चूं–चूं करून माळोभर खेळटालीं. माळ्याभायर तीं अजून वचूंक नासलीं. हुंदीर आनी हुंदुल्ली दोगांय माळ्याभायर वचून पोरांखातीर जेवण–खाण हाडटालीं.

त्या घरांतलो दादा टिवी लावन बसतालो तेन्ना व्हडलो हुंदीर धांवून येतालो. माळ्यार रावून ताका टिवी दिसनासलो. घराचे पाटगेर चडून पळोवचो पडटालो. पाटयेर बसून व्हडलो हुंदीर टिवीवयल्यो खबरो नेमान पळयतालो आनी येवन बायल–भुरग्यांक सांगतालो.



एके राती घरांतलीं सगलीं मनशां जेवन खावन न्हिदिल्लीं. दादा एकलोच बसून टिवीवयल्यो खबरो पळयतालो. हुंदुल्ली भाताच्या साकाक बुराक करपाक गेल्ली. पोरां धांवचेल्यांनी खेळटालीं. हुंदीर पाटयेर बसून टिवी पळोवपांत गुल्ल जाल्लो.

टिवीर ताणे एक रॉकेट पळयलें. रॉकेटांत दोग मनीस बसले. णव..आठ..सात..स..पांच..चार..तीन..दोन..एक..शून्य अशे आंकडे मेजून रॉकेट वयर मळबांत गेलें. तें रॉकेट चंद्रार वचून देंवलें. दोगय मनीस रॉकेटांतल्यान सकयल देंवले आनी चंद्राचेर भोंवक लागले. हें पळोवन हुंदराक अजाप जालें.

एक दीस हुंदराच्या हुतहुतेपणान फाटीर बशिल्लो गणपती पडलो म्हूण चंद्र हांसलो. त्याखातीर गणपतीन रागान ताका श्राप दिल्लो, हें तो जाणा आसलो. ताणे ही गजाल भुरग्यांकय सांगिल्ली. पूण त्या चंद्रार मनीस वचू शकतात हें ताका आयज कळ्ळें.



खबरो सोंपतकच दादान टक्क करून टिवी बंद केलो आनी लायट पालयली. हुंदीर धांवत माळ्यार आपणाल्या घरांत गेलो. चूं-चूं करून हुंदुल्लेक आपयली, पोरांक लागी बसयलीं, आनी टिवीवयली अजापभरीत खबर सांगली.

खबर आयकून पोरां उतावीळ जालीं. 'बाबा बाबा..आमकांय व्हर मरे चंद्रार', पोरांनी हट धरलो.

'आमकां खंयच व्हरना तूं' – आळून बापायचे मांडयेर बसत म्हणलें.

'हावें चंद्र केन्नाच पळोवंकना'–बाळून तोंड वांकडें केलें.

'आमकां ह्या माळ्याभायर लेगीत वचूंक दिना तूं'–काळून शेपडी आपटिली.

'दर खेपेक आमका मांजराचो भंय घालता'–साळून पांय आपटिले.

बापायन एक धेंगसो घालतकच सगलीं पोरां ऊं..ऊं.. करून रडपाक लागलीं. तेन्ना पोरांचे आवयन म्हणलें–'अंदू आमी खंयच भोंवपाक गेलीं नात. चंद्रार तरी वचून येवया. पोरांकय व्हरून हाडया चंद्रार'. गणपतीची ती काणी परतून सगल्यांक याद जाली.

हांकां खबर सांगली तेंच आपणे चुकयलें, अशें हुंदराक दिसलें. पूण हुंदुल्लीय चंद्रार वचपाक फुल्ल्या तें पळोवन ताणे म्हणलें, 'पळोवया कशें जमता तें!'.

बापायन अशें म्हणटकच सगल्या पोरांनी उडक्यो मारून माळ्यार गडगड केलो. इतल्यान मांजराचो 'म्यां..व' असो आवाज आयकूंक आयलो. हुंदरान पोरांक शिटकायले, 'आतां वोग्गी न्हिदात. माजर येताशें दिसता'.

सगलीं न्हिदलीं. पूण व्हडलो हुंदीर रातभर न्हिदलोना. चंद्रार वचप कशें हेंच येवजीत तो हे पाटयेवयल्यान ते पाटयेर पासयो मारीत

रावलो.

दुसरे राती त्या घरांतलीं भुरगीं आंगणांत फोग लायतालीं. नारंगां, सुरसुरीं, गिरगिरीं, पेटयतालीं, आनी ताळयो पेटीत नाचतालीं. एकलो भुरगो बाण पेटोवन वयर सोडटालो. हुंदरान वांशार रावन हें पळयलें. ताणे हुंदुल्लेक आनी पोरांक फोग दाखोवपाक हाडलीं. सगलीं जाणां दोळे लिकलिकायत फोग पळोवपाक लागलीं.



बाण वयर वतात तें पळोवन हुंदराक कितेंतरी येवजलें. तो एकदम आड्डलो– 'चलात चलात, चंद्रार वचपाची तयारी करात. हांव रॉकेट घेवन येतां' पोरां आनी आवय खोशेन उडक्यो आनी किळची मारीत माळ्यार आपणाल्या घरांत गेलीं. फोगाच्या आवाजान माजराक

तांचो बोवाळ आयकूंक गेलोना.

व्हडल्या हुंदरान वांशावयल्यान आलमारिचेर उडकी मारली. घरांतल्या सगल्या लोकांचो आनी मांजराचो दोळो चुकोवन आलमारीवयलो एक बाण आनी एक फस्क घेवन तो माळ्यार गेलो. सगलीं जाणां चंद्रार वचपाक तयार आसलीं.



हुंदीर तांकां सगल्यांक घेवन नळ्यांचेर गेलो. चौगांय पोरांच्यो शेपड्यो एक–दुसऱ्याच्या भेंडाक बांदल्यो. आळूची शेपडी बाळूच्या भेंडाक, बाळूची शेपडी काळूच्या भेंडाक आनी काळूची साळूच्या.

साळूची शेपडी ताणे हुंदुल्लेच्या भेंडाक बांदली. उपरांत एक तिरांटो घेवन आपणाली शेपडी बाणाचे बडयेक घट्ट बांदली, आनी हुंदुल्लेची शेपडी आपणाल्या भेंडाक बांदली. मागीर हुंदरान फस्काची काडी पेटयली– 'णव..आठ..सात..स..पांच..चार..तीन..दोन..एक..शून्य..' अशें म्हणून बाणाच्या सुताक उजो लायलो.



बाण सुरसुरत वयर गेलो. बाणावांगडा हुंदराची माळ मळबांत ऊंच गेली. माजर दोळे मोट्टे करून ते माळेक पळोवंक लागलें. बरोच वयर पावतकच बाण ठो करून फुटलो आनी सगलीं जाणां नेटान सकयल एके तळयेंत पडलीं.

पेंवपाचो प्रयत्न करतना साळून विचारलें–'पावलीं रे आमी चंद्रार?'

काळून म्हणलें–'हांगा सगलें उदक भरलां मरे'.

'हांगा खूब पावस पडटा दिसता'–आळू उलयलें.

'हांगा बरें न्हू, वचया आमी घरा' –बाळून रागान म्हणालें.

हुंदीर आनी हुंदुल्ली दोंगाय मोठ्या कश्टान पोरांचो जीव वाटोवपाचो प्रयत्न करतालीं.

तळयेच्या उदकांतलें चंद्राचे पडबींब उदकावांगडा नाचतालें.

# २. कोल्यान केलें नाटक

एक आसली म्हातारी. ती सदांच रानांत वताली. सुक्यो बडयो पुंजायताली. घरा हाडून फू..फू.. करून रांदनीत उजो करताली आनी रांदून जेवताली.

तिचो नातू पयसुल्ल्या गांवांत कामाक आसतालो. वरसान एकदां तो आपणाले आजेक मेळपाक येतालो. फाल्यां तो येवपाचो आसा देखून म्हातारी बोवाळांत आसली. नातवाक बरीं सान्नां करून घालचीं असो तिणे बेत केल्लो. तेखातीर सुक्यो बडयो पुंजावपाक म्हूण ती रानांत गेली.



बडयो पुंजायताना एका कोल्यान तिका हटकिलो, 'ये..म्हातारे..बडयो खंय व्हरता गे? हें रान म्हाजें म्हूण जाणा मगे? म्हाका सांगनासताना तूं बडयो पुंजायता म्हणचें कितें गे? हांव तुका

नाका म्हणचोना. पूण म्हाका सांगून व्हर. कित्याक व्हरता गे त्यो बडयो?'

'आरे कोल्या, बडयो व्हरतां रांदूक. फाल्यां म्हाजो नातू येतलो. तेका सान्नां उकडून घालूंक जाय'. म्हातारेन सांगून उडयलें.

सान्नांचें नांव आयकनाफुडें कोल्याच्या तोंडाक उदक सुटलें. लाळ गळयत ताणे विचारलें, 'म्हाका दितली मगे इल्लो सान्नाचो?'

'हय रे बाबा, थेयतां तुकां. यो तूं फाल्यां' अशें म्हणून म्हातारी बडयांचो भरो माथ्यार उबारूंक लागली. कोल्यान तिका मात्शी मजत केली. माथ्यावयलो भरो सांबाळीत म्हातारी चलूंक लागली.

कोल्याक केन्ना एकदा सान्नां खातां अशें जालें. तो म्हातारेच्या फाटोफाट चलूंक लागलो.



म्हातारी घरा पावली. तिणे रांदनींत उजो केलो आनी ती सान्नां

उकडपाची तयारी करूंक लागली. कोलो लिपून म्हातारी किर्ते करता तें पळोवंक लागलो. म्हातारेन साननकोपरो रांदनीर दवरलो. हें पळोवन कोलो ल्हवूच म्हातारे म्हऱ्यांत गेलो.

'म्हातारे, आयजूच करता गे सान्नां?' कोल्यान ल्हवूच विचारलें.

'हय रे बाबा. फांतोडेर येतलो म्हाजो नातू. आतांच करून थेयतां सान्नां. तू सकाळी यो'.

कोलो गेलो. पूण ताचें चित्त थाऱ्यार नासलें. परतून परतून ताका सान्नांची याद येवंक लागली. म्हातारी आपल्या कानांत घालतली अशें ताका दिसलें. तो रातचोच उठून म्हातारेगेर गेलो.

म्हातारी भायरूच न्हिदिल्ली. कोलो लिपचोरयां घरांत भितर सरलो.



रांदचेकुडिचें दार ताणे आवाज करिनासतना धुकलून उगलें. म्हातारेन ताचेखातीर सान्नाचो एक कुडको कडेक काडून दवरिलो. तो कोल्याक दिसलो. कोल्यान तो कुडको मिटक्यो मारीत खलो. ताका तो बरोच गोड लागलो. पूण ताची आस भगालीना. त्का आनीक खायन दिसलें. काल ताणे साननकोपरो पळयल्लो. तो ताणे सोदून काडलो. कोपरो भरून सान्नां आसलीं. कोल्यान त्या सान्नांचेर आडवो हात मारलो.

इतले म्हणसर आयदनांचो आवाज आयकून म्हातारी जागी जाली. तिणे लापयांव मोटो केल्लो. कोलो शिटकलो. म्हातारी रांदचेकुडींत येताशी पळोवन कोलो दाराफाटल्यान लिपलो. म्हातारी भितर सरली आनी आपूण ल्हवूच भायर पळटलो म्हूण तयारेन रावलो.

पूण म्हातारी शिटूक आसली. तिणे दाराचे खांचितल्यान कोलची शेपडी पळयली. साननकोपरो आडवो पडला तोय तिणे भितर सरचेपली पळयलो. "ह्या कोल्याक बूद शिकोवंकच जाय." म्हातारेन चिंतलें. तिणे रांदचेकुडींत भितर सरनासतना दार ओडून घेतलें आनी भायल्यान खिळी घातली.

भायर रावून तिणे म्हणलें, 'आरे कोल्या, तुका फाल्यां आपल्लो मरे? तूं रातच्या वेळार रांदचेकुडींत कित्याक पावलो? चोरूंक? सालीं सान्नां तुवें एकट्यानच खालीं मरे? आता म्हाज्या नातवाक कितें घालूं? राव, तुका सारकी बूद शिकयतां?'

कोलो भियेलो. ही म्हातारी कितें करीत सांगू नज. भायर सरपाक वाट सोदूंक लागलो. पूण दारूय बंद आनी जनेलूय बंद. पळपाखातीर इल्ली लेगीत वाट ताका मेळळीना. वयर नळ्यांच्यो रांची उगत्यो दिसताल्यो. दोन नळेय काडिल्ले आसले. पूण ते इतले उंच आसले की पांच–स उडक्यो मारून लेगीत कांयच फायदो जाल्ना.



म्हातारी आतां आपणांक दवरचीना हें तो जाणा आसलो. तकली लडयत कोलो भितर पासयो मारीत रावलो.

हेवटेन म्हातारेन कट्ट्यो पेटोवन इंगळे केले. तांतूत थोड्यो सुक्यो मिरसांगो उडयल्यो आनी दारापोंदच्यान रांदचेकुंडीत धुंवर सोडलो.

मिरसांगाचो धुंवर नाकांत वचनाफुडें कोलो घुस्मटलो. आक्छी..आक्छी..करून शिंको कांडूक लागलो.

कोणूय तरी पावात रे...आक्छी..आक्छी..म्हाका सोडयात रे. आक्छी..आक्छी...' अशें म्हणून आड्डूक लागलो. 'कू..य–कू..य' करून आपणाल्या इश्टांक आपोवंक लागलो. पूण एकटोय ताच्या आदाराक आयलोना.



थोड्या वेळान धुंवर सोंपलो तेन्ना कोल्याच्यो शिंको बंद जाल्यो. कुयेली लेगीत आयकूंक येना जाल्यो. इल्लो इल्लो धुंवर उणो जालो तेन्ना म्हातारेन नाकार पदर धरून दार उगडलें. पळय जाल्यार भितर कोलो मरून पडला.

'आरे–आरे–आरे! मेलो मरे हो कोलो!' म्हातारी आपलेभितर बडबडूंक लागली. 'आतां कितें करू! हो हांगा कुसलो जाल्यार घाणी पडटल्यो. हाका भायर व्हरुन पुरल्यार बरो'.

म्हातारेन कोल्याक ओडीत भायर व्हेलो. एका झाडामुळांत ताका उडयलो आनी खोरें हाडपाक गेली.



म्हातारी खोरें घेवन यो जाल्यार कोलो उठून उबो रावलो आनी म्हातारेक लागलो चाळोवंक.

"म्हातारे म्हातारे कूय कूय..
साननकोपरो धूय..धूय..
आयज तुजो येतलो नातू..
सान्नां उकडून थेय तू.."

म्हातारेन कोल्याचेर मारपाक खोरें उबारलें. पूण कोलो थंय आनीक रावता कित्याक? ताणे मान हालोवन म्हातारेक 'कू..य' केलें आनी शेपडी हालयत रानांत धांव मारली.



धवो कावळो

# ३. बिटू - पारखी

अनमोडचो घांट सुरू जाता थंय रस्त्याचे कडेक कुश्टाची खोंप आसा. खोंपितूच तो ल्हानशें हॉटेल चलयता. च्या आनी जेवण करून गिरायकांक दिता. खोंपी भायर फळयांचें ल्हानशें एक मेज आनी एक बांक आसा. कुश्टाचो सुणो बिटू दिसरात खोंपी भायर बशिल्लो आसता.



आमोरी जावन गेली. कुश्टान दिवो पेटयलो. इतल्यान एक धवी गाडी येवन रस्त्यार थारली. गाडयेंतल्यान प्रभा सकयल देंवलो. कुश्टाक उलो मारीत ताणे बिटूक हटकिलो आनी हात धुवन बांकार बसलो. कुश्टान ताका जाप दियत उदकाचो गलास हाडून मेजार दवरलो आनी जेवणाचें ताट भरपाक भितर गेलो.

'कुश्टा, आयज बिटू वगी सो मरे' प्रभान म्हणलें.

'आतांच भोंकतालो. आयज बेजार आसा तो' कुश्टान भितर

धवो कावळो

सावन जाप दिली आनी जेवणाचें ताट हाडून प्रभा म्हऱ्यांत दवरलें.

प्रभा जेवता थंय बसून कुश्टा ताचेकडेन उलोवंक लागलो, 'भाऊ, खूब तेंपान येयले तुमी ह्या वाटेन. चड पयस वयता?'

'बेंगळुराक', प्रभान जेवतां जेवतां जाप दिली.



'आयज रातचो बरोच पावस पडटलो. चड करून मोड जातलें'

'आरे कुश्टा,ह्या म्हयन्यांत पावस पडटा खंय केन्ना! कोणूय हांसतलो तुका', प्रभान ताका पिशांत काडलो.

जेवन जातकच प्रभान उरिल्लें जेवण बिटूक घालें. पूण बिटून ताका तोंड लायलेंना. प्रभा आंवलो आनी पयशे फारीक करतना कुश्टान ताका परतून सांगलें, 'भाऊ, आयज तुमी हांगाच न्हिदात. हांव वेवस्था करतां. सकाळी उठून चलात बेंगळुराक. रानांत मोड जातलें'.

'कुश्टा, आमच्या शारांत एक व्हडलो जोतिशी आसा. म्हाका पयस वचपाचें आसता तेन्ना ताका विचारल्याबगर हांव वचना. आयज दनपरांच ताणे म्हजें भविष्य पळयलां. कसलीच आडखळ येवचीना म्हूण सांगलां. कशेय भाशेन म्हाका उजवाडट्यार बेंगळुराक पावुकूच जाय. वचना जाल्यार खूब लुकसान जातलें', अशें म्हणून प्रभा गाडयेंत बसलो.

'गाडी चालू केल्या मात, बिटू धांवत आयलो आनी गाडयेसामकार उबो रावून 'भोंक–भोंक' करीत गाडी आडावंक लागलो.

'कुश्टा, त्या बिटूक काड पळोवया. म्हाका वचुंदी', प्रभाक राग आयलो.



'म्हांजें आयक भाऊ, आयज वचू नाका. रातचो वेळ. तुमी एकटेच आसात', कुश्टान ताका विनवणी केली.

'आरे म्हाका म्हत्वाचें काम आसा रे. चल पळोवया तुज्या सुण्याक काड', प्रभा बेजारलो.

कुश्टा बिटूक घट धरून रस्त्याचे कडेक रावलो. प्रभान गाडी घांटावाटेन सोडली. बिटू कुश्टाच्या हातांतलो सुटलो आनी कांय वेळ भोंकीत गाडये फाटल्यान धांवलो.

प्रभाची गाडी अनमोडचो घांट चडपाक लागली. अकस्मात मळबांत जगलावणे जालें. मळब फुटिल्लेवरी मोट्टो आवाज जालो. शेंकरो पडिल्लेवरी गाडयेचेर सरसरीत उदकाचे थेंबे पडले. खिणाभितर दाट पावस पडलो. दोंगरावयल्यान उदकाचे लोट रस्त्यार व्हांवपाक लागले. मुखावयलो रस्तो दिसना जालो.



पावसांवांगडा नेटाचो वारो व्हांवलो. रानांतलीं झाडां एकमेकांचेर लवंडलीं. प्रभान गाडी थारायली. इतल्यान एक व्हडलें झाड दिस्त प्रभाचे गाडयेचेर पडलें. गाडी चिड्डल्ली. प्रभाक चड कांय लागलेंना तरी ताच्या आंगार पांचकडे घावे जाले. पावस थारलो, मोड निवळ्ळें

तरी गाडयेचीं दारां उगडूंक मेळनाशिल्ल्यान रातभर तो भितरुच उरलो.

उजवाडट्यार एक मोटरसायकल झाडांतल्यान वाट काडीत येताली. प्रभान बोवाळ मारीत ताका थारायलो. त्या मनशान ताका गाडयेंतलो ओडून भायर काडलो. आपले मोटरसायकलीचेर बसोवन कुश्टाल्या हॉटेलाकडेन हाडून सोडलो.



प्रभाक पळयतांच बिटू धांवत ताचेसरी गेलो आनी ताच्या पांयांक घश्टूंक लागलो. कुश्टान भितर व्हरून ताच्या घाव्यांक वखद लायलें.

'कुश्टा, तुवें सांगिल्लें तशेंच जालें. बरो वाटावलों हांव. तुजें आयकल्लें जाल्यार... पूण कुश्टा, म्हाका एक सांग, पावसाची मात पूण सुलूस नासतना मोड जातलें हें तुका कशे कळ्ळें?' प्रभान अजापान विचारलें.

'म्हाका तसलें खंय कळटा भाऊ! त्या बिटूक कळ्ळें तें. तेणेच

म्हाका सांगलें'.

'बिट्टूक कळ्ळें! वा! पूण ताणे तुका कशें सांगलें?'

'काल दनपारा मळबाकडें पळोवन तो विचित्र आवाज काडून भोंकतालो. परतून परतून म्हाज्या आंगार उडक्यो मारतालो. दर खेपेक मोड जावचे आदी तो अशेंच करता', कुश्टान प्रभाक समजावन सांगलें.

'प्रभान बिट्टूक वेंगेंत घेतलो. ताच्या माथ्यावयल्यान हात भोंवडायत म्हणलें, 'बिट्टू ज्योतिशाक पारखूंक जमलेंना तें तुवें पारखिलें. पूण म्हाका तुजी भास कळ्ळी ना'.



धवो कावळो

# ४. धवो कावळो

एक गिरेस्त मनीस आसलो. ताचें नांव आसलें गिरीश. ताका शेवणीं खूप आवडटालीं. ताणे एक रान विकतें घेतलें आनी त्या रानांत सगले तरेचीं शेवणीं हाडून सोडलीं. शेवण्यांक जें खाण जेवण लागता तितलेंय तो त्या रानांत हाडून दवरतालो. शेवणीं थंय धादोशी आसलीं. खुशालभरीत जावन नाचतालीं, गायतालीं, खेळटालीं. देश–विदेशांतले भोंवडेकार तीं शेवणीं पळोवपाक मुजरत त्या रानांत येताले.

कोणेय नवे जातीचें शेवणें हाडलें जाल्यार गिरीश ताका खूब दुडू दिवन तें विकतें घेतालो. वयल्यान ताका इनाम दितालो.



एक दीस शिवानंद नांवाचो एक मनीस पाचव्या रंगाचो एक

कावळो घेवन गिरिशाक मेळपाक आयलो. पाचवो कावळो पळोवन गिरिश अजाप जालो. ताणे घरांतल्या सगल्या मनशांक आपोवन तो पाचवो कावळो दाखयलो. पाचवो कावळो पळोवन सगलीं अजाप जालीं.

कावळ्याची चोंच तांबडी आसली आनी ताच्या गळ्या भोंवतणी किराबशेन तांबडो पटो आसलो. कोणे ताका कीर म्हणलें तर कोणे पारवो. पूण तो कावळो हें कोणूय वळखतलो. निमणे शिवानंदाक, त्या शेवण्याच्या मालकाकूच विचारलें तेन्ना ताणे सांगले की, तो एक नवे जातीचो कावळो.



**धवो कावळो**

असलो कावळो ह्या देशांत खंयच मेळना. आपणे तो आफ्रिकेच्या जंगलात वचून हाडला अशेंय ताणे सांगलें. गिरिशान त्या कावळ्याचें मोल विचारलें तेन्ना ताणे देड लाख रुपया सांगले. गिरिशान देड लाख रुपया दिवन तो कावळो विकतो घेतलो. वयल्यान ताका एक लाख रुपया इनाम दिलें. उपरांत शिवानंदान आपणाले पेटेंतल्यान एक कीर भायर काढलो. धवो फुल्ल किर. ताची चोंच, ताचे पांय, गळो सगलें धवें फुल्ल. ह्या धव्या किराक पळोवन तर सगल्यांनी तोंडांत बोटांच घालीं. बकें न्हय, बदक न्हय, कोंबी न्हय, पारवो न्हय. सामको कीर म्हणचें कीर. धवो धवो कीर. शिवानंदान सांगलें, असले कीर फकत दक्षीण ध्रुवाच्या झेलांत मेळटात. थंय गेल्यार मनीस झेलान आंकडून घट जाता. अशा झेलांत वचून आपणे तो कीर हाडला, अशेंच ताणे सांगलें, त्या मनशान ताचें मोल पांच लाख रुपया सांगले. इनाम धरून गिरिशान ताका सात लाख रुपया दिले. खुशालभरीत जावन शिवानंद वचपाचे तयारेक लागलो.



गिरिशाली धाकली धूव सोनाली एक हुशार भुरगें. परिक्षेंत सदांच पयलो नंबर घेतालें.

ताणे गिरिशाक म्हणलें, 'पापा, शिवानंद काकाक आमगेर राव म्हणून सांग रे. म्हाका ताचेकडसून खूब कितें कितें शिकपाचें आसा. नव्या नव्या पक्षांविशीं म्हायती घेवपाची आसा.'

गिरिशान विनवणी करचे आदीच शिवानंदान सांगून उडयलें, 'सायब, म्हाका कशेंच रांवूक मेळना. फुडले भोंवडेर वचपाचें आसा' गिरिशान चडूच आग्रो केल्या उपरांत तो फकत चार दीस रावपाक तयार जालो.

सोनाली सदांच ताच्या म्हऱ्यांत प्रस्न घेवन वतालें. शिवानंद ताच्या दर एका प्रस्नाची कितेंतरी जाप दितालो. दक्षीण ध्रुवांतल्यो, उत्तर ध्रुवांतल्यो, रंगरंगयाळ्या शेवण्या सुकण्यांच्यो खबरो ताका सांगतालो.



चवथ्या दिसा सोनालीन ताका आपल्या बापाय म्हऱ्यात व्हेलो. त्या वेळार ताच्या स्कुलांतलो चित्रकलेचो सर थंय आयिल्लो. सोनालीन त्या मनशाची वळख सराकडें करून दिली. ताणे हाडिल्ल्या नव्या सुकण्यांविशी गिरिशान सराक म्हायती दिली. तेन्ना सरान आपले पेटेंतलो एक धवो कावळो काडून ताका दाखयलो.

त्या कावळ्याची चोंच आनी पांय लेगीत धवेच आसले. एक लेगीत पांख काळें नासलें. त्या धव्या कावळ्याक पळोवन गिरिश अजाप जालो आनी तो शिवानंद काचाबूल जालो.

गिरिशान सराक विचारलें, 'सर, तुमका हो धवो कावळो खंय मेळ्ळो? हें जगांतलें अजापूच म्हणपाचें. तूं सांगता तें मोल दिवन हांव हो कावळो विकतो घेवपी. सांगात सर, कितले पयशे ह्या कावळ्याचे?'

सरान गिरिशाक सांगलें, 'गिरिशबाब, हांव हो कावळो विकपी न्हय, कारण ताका लायिल्लो रंग पुसून आशिल्लो तसो काळो करून हांव ताका सोडून दिवपी'.

'म्हणचें...म्हणचें...ह्या कावळ्याक तुवें रंग लावन धवो केला?' गिरिशान दुबावानूच विचारलें.

सरान सांगलें – 'हय गिरिशबाब, हांवें ताका सादोच रंग लायला. म्हणचें धुयतकीर रोकडोच वता पळत तसलो. म्हज्यान जाय जाल्यार सोपेपणी वचना तसलो रंग लावन ताका धवो करू येतालो. तांबडो, निळो,पाचवो, हळदुवो जाय तसले, जाय तितले रंग लावं येताले. पूण अशें केल्यार पक्षांक खूब त्रास जातात. आमच्या आंगाक रंग लावन आमच्या कातीचे सगळे बुराक पुरयल्यार आमका जातले पळय तितले. निसर्गान तांकां रंग दिला तोच आनी तितलोच योग्य आसा. कोणेच तो बदलपाचो प्रयत्न करचो न्हय. सोनालीन म्हाका

त्या कावळ्याची आनी किराची गजाल सांगली, त्याखातीर तुमका शादूर करपाक म्हूण मुद्दाम हांवें हो प्रयोग केलो. तुमकां फट दिसता जाल्यार त्या पक्षांचे रंग काडून मुदलचो रंग हांव दाखोवं शकतां वा तुमी सांगता तसलो रंग लावं शकतां. पक्षावयल्या तुमच्या मोगाचो फायदो घेवन दुडू उठोवपाखातीर ह्या शिवानंदान हें फटींगपणाचे धाडस केलें'.



हे आयकून शिवानंद बेगिबेगीन थंयचो पळपाक लागलो. पूण

दारावयल्या गुरख्यान ताका आडायलो. ताच्या गोलाक धरून ताका गिरिशा म्हऱ्यान उबो केलो. गिरिशान ताका दिल्ले सगले पयशे काडून घेतले आनी सराक दिले. सोनालीक शाबासकी दिली आनी शिवानंदाच्या सगल्या आंगाक धवो रंग लावन ताका रानांत व्हरून सोडलो.



# ५. हुंदीरूच हुंदीर

मातयेच्या वण्टींचें, शेणाच्या गांवठी नळ्यांचें एक ल्हानशेंच घर आसलें. तांतूंत एक शेतकार रावतालो. ताचें नांव हुसेन. हुसेनाचें एक ल्हानशेंच शेत आसलें. शेतांत जें धान्य पिकतालें तांतुतलें अर्दें तो विकतालो, अर्दें आपणाक दवरतालो. देखून ताच्या त्या ल्हानशा घरांत कोनशाकोनशांनी तांदळांच्यो, नाचण्यांच्यो पोटल्यो आसताल्यो.

खावन जेवन हुसेन सुखी आसलो. ताका त्या घरांत एकूच त्रास जातालो, आनी तो म्हणल्यार – हुंदरांचो. हुंदीर ताच्या त्या धान्याच्या साकांक बुराक करताले. पोटभर खाताले आनी वण्टींच्या धोलींनी वचून लिपताले. दिसा उजवाडे वण्टींच्या पाऱ्यावयल्यान धांवताले तें तो पळयतालो. पूण मारतलो म्हणल्यार हुसेनाच्या हाताक गावनासले. अर्दें धान्य तो सांबाळून दवरतालो, तांतुतलें अर्दें हे हुंदीर खावन सोंपयताले.

हुंदरांक धरपाचे, मारपाचे, धांवडावपाचे ताणे खूब प्रयत्न केले तरी हुंदीर हुसेनाक कशेंच आटापाक येनासले. लातेर लावन दवरल्यार लातेरांतलें हांयस खावन पळटाले. वीख घालून दवरल्यार ते ताका तोंड लायनासले. मारुंक गेल्यार खाटिपोंदा, आलमारी फाटल्यान लिपून हुसेनाक बेजार करून सोडटाले. ताचो एकूय उपाय त्या हुंदरांक लागू पडनासलो.

एक दीस ताका एका शेतकार इश्टान बरो उपाय सांगलो–तो म्हणल्यार माजर पोसपाचो. हुसेनान सोयऱ्यांगेर वचून एक बरेंशें माजर हाडलें आनी खरेंच, हो उपाय त्या हुंदरांक दिस्त लागू पडलो.



धवो कावळो



ज्या दिसा मांजरान घरांत पावल दवरलें, त्या दिसा हुंदीर धोलींतले भायरूच सरलेनात. एकलो झेत दाखोवपाक म्हूण भायर सरिल्लो ताका त्या माजरान खेळोवन खेळोवन मारून खालो. हें सगलें हेर हुंदरांनी लिपून रावून पळयलें आनी तेच राती माजर न्हिदलांशें पळोवन सगले हुंदीर हुसेनालें घर सोडून शेजारच्या घरांत रावपाक गेले.

त्या घरांत बाला रावतालो. अचकीत हुंदीर पळोवन बालाचे बायलेन किळच मारली. भायर बशिल्लो बाला धांवत भितर येतना ताचो पांय एका हुंदराचेर पडलो. बालाक तिडक आयली. ताणे एक दांडो घेतलो आनी हुंदराचेर मारलो, तो दिस्त हुंदराचे तकलेर पडलो. हुंदीर चूं..चूं.. करून थंयच मेलो. हें पळोवन हेर हुंदीर भियेले. तांणी रोकडीच मिटींग घेतली.

'हो बाला बरोच वस्ताद आसा. एका धपक्यान एका हुंदराक

मारता. ह्या घरांत लेगीत आमकां भंय आसा'.



निमणे तेंय घर सोडून वचचें आनी बांदाक बुराक करून शेताचे धडेरुच रावचे, असो तांणी एकमतान निर्णय घेतलो आनी सगले हुंदीर लिपत लिपत शेताचे धडेक बुराक मारपाक गेले.



हेवटेन एकय हुंदीर मेळनासून माजर सामकें बेजार जालें आनी



धवो कावळो

हुंदराक सोदीत सोदीत बालागेर पावलें, बालाचे बायलेन दुदकाराकडलें दूद घेवन निकतेंच सोप्यार दवरिल्लें. तिच्या दोळ्यांर हात काडून माजरान दुदांत तोंड घालें, आनी दोळे धांपून दूद पिवपाक लागलें. बालाचे बायलेन ताचे फाटीर एक थापट मारलें आनी माजराचें हें कर्म बालाक सांगलें.

बालान आनी वगत केलोना. हुंदराक मारिल्ल्या त्याच दांड्यान ताणे मांजराक जितेंच मारलें आनी सोमतें फोंड काडून पुरलें.

कांय वेळान आपणाल्या माजराक सोदीत हुसेन बालागेर पावलो. बालान फोंडाक बोट दाखोवन सांगलें, 'हे त्या फोंडांत आसा'.

थंयच दोगांयचें झगडें पेटलें–

हुसेनान म्हणलें, 'तुवें म्हज्या माजराक मारलेंच कशें?'

बालान विचारलें, 'तुजें माजर आमगेर आयलेंच कशें?'

'तुगेर आयलें म्हूण तूं मारून उडयता रे?' हुसेन

'मांजर कित्याक हाडलेलें रे तुवें घरांत?' बायल

'मांजर हांवे हुंदराक मारपाक हाडलेलें गे?' हुसेन.

'हुंदराक मारपाक माजर कित्याक जाय रे तुका? तुजे हात मोडले?' बाला.

'म्हाज्या हाताक सांपडटात रे ते हुंदीर? कशे पळटात तें तू नकळ' – हुसेन.

'कसलो दादलो रे तू?' हुंदिरूय मारपाक जायना? – बाला.

'काल म्हज्या घेवान एका धपक्यान मारलो हुंदराक', – बायल.

'हुसेन, चड उलोव नाका, तुकाय मारून पुरपी हांव' – बाला.

अशें म्हणून बालान तोच दांडो हुसेनाचेर मारपाक उबारलो.



बालाचे बांयलेन दांडो घट धरलो म्हूण वाटावलो हुसेन.

'राव राव, दाखयतां तुका', 'अशें म्हणून हुसेन आपणाल्या घरा गेलो'.

'दाखय दाखय, पळयतां हांव, – अशें म्हणून बाला आपणाल्या घरांत गेलो'.

जालें! कांय दिसां उपरांत बालाक कुरियरांतल्यान एक बरी व्हडली पेट आयली. बरीच जड. दोगा जाणांनी गाडयेंतली उबारून

बल्कावांत दवरली. एका कागदाचेर बालाची सायन घेतली आनी गाडी गेली. पुतान दुबयच्यान बरोच माल धाडला जातलो अशें येवजून बाला आनी ताची बायल, दोगांयनी ओडीत ओडीत ती पेट भितरले कुडींत व्हेली आनी उगती केली.



तुरू तुरू करून पेटेंतल्यान कितलेशेच हुंदीर भायर सरले. पेट भरून हुंदीर आसले. उडक्यो मारीत पेटेंतले भायर सरत रावले. जागो मेळटा थंय लिपपाक लागले. बालाची बायल एकार एक किळची मारीत रावली. बाला दांडो घेवन तांकां धाडायत रावलो.

सगले हुंदीर लिपून सोपल्या उपरांत बालाक दोनूच हुंदीर मेल्ले

गावले. घड्याळ, टीवी, आलमारीचे हारशे आनी चिक्रबशयो मात फुटून गेल्यो.



ते रिते पेटेंत बालाक एक चीट गावली. दोगांयनी जमनीर बसून ती चीट वाचली. चिटींत बरयल्लें – तू हुंदरांक काय न्हय करून मारूंक शकता जाल्यार ह्या सगल्या हुंदरांक मात्शे मारून उडय', सकलय बरयतल्याचो पत्तो असलो.

बालान त्या पत्यार एक चीट बरयली, 'इतल्या हुंदरांक म्हज्यान

मारूंक जायना. उपकार करून एक मांजर धाडून दी.

सात राती हुंदरांनी तांकां न्हिदूंक दिलें ना. बालाच्या आंगार भोंवताले, बायलेचे केंस खाताले. मारूंक उठल्यार पळटाले, आयदनांचो गडगड करताले.

आठव्या दिसा सकाळी फुडें बालान फुडलें दार उगतें केलें. एक मांजर दारांत उबें आसलें, 'म्यॉव...म्यॉव' करीत तें घरांत भितर सरलें आनी घरभर भोंवक लागलें. त्याच वेळार सगले हुंदीर जीव घेवन हुसेनागेर पळळे.



# ६. कोल्यान खालो वागाक

एक दीस एक कोलो रानांत भोंवन भोंवन उबगलो. एका खडपार वचून बसलो. येवजूंक लागलो, 'ह्या रानांत मेकळेपणान भोंवूक लेगीत मेळना. त्या वागाक भियेत भियेत भोंवचें पडटा. पाड पडलेलो वाग, मरयना बेगीन. वाग मेलो जाल्यार हांव ताचो जागो घेवपी. म्हाका तकली बरी आसा. जाय ताका वेंचून वेंचून खावपी हांव. पूण ताचो जागो घेवपाक पयली ताका मारचो पडटा. तें कशें शक्य आसा! हांव कोलो, तो वाग. म्हाका तो कांय न्हय करून पिसडून खातलो. हां...ताका कोल्याबुदीनूच मारल्यार बरो'.

त्या खडपार आडवो उदारो लोळून तो तकली लडोवपाक लागलो. थोड्या वेळान 'कू...य' करून उठलो. 'येवजलें...येवजलें' म्हणीत धांवून वागाक सोदपाक गेलो.



वाग आपले झिलीन खडपावयल्या आसनार सुस्त बरो न्हिदलेलो. कोल्यान सकयल रावन ताका रागान उलो मारलो– 'ये वागा...कू...य पयलो सकयल देंव. कितें समजला? तुज्यापरस व्हडलो कोण ना अशें दिसलें तुका? हांव आसां हांव– कोलो! बुदीन भोलो ! ऊठ...!'

कोल्याच्या आवाजान वाग जागो जालो खरो. पूण कोलो इतलो सुबेज उलयता हाचेर ताचो विश्वास बसना जालो. ताणे आपलें नाकूट आपल्याच आंगाक तोपून पळयलें. सपन न्हय. खरेपणीच कोल्याचीं उतरां. ताणे पांय ताणून आळस फाफुडलो आनी तोंड उगडून एक जामोळी काडली. दोळे उगडून कोल्याक सारकोच पळयलो.

कोलो भितरयां भियेलो, तरी लेगीत पोको नेट काडून परतून एक फावट ताणे वागाक धार घाली – 'वागा... पळयता कितें? सकयल देंव. रानांतलीं सगलीं जनावरां तुका भियेवन दीस काडटात. चड जालें तुजें. तुका जितोच मारून उडयतां. यो. देंव सकयल'. अशें उलयताना ताचे हात पांय थरथरताले.

वाग गोंदळ्ळो. ताका कितें करचें समजना जालें – 'कोल्या, तूं तकलेन सुटला कितें रे? भांग बीन पिवन येवंकना मरे? कोणाकडेन उलयता जाणा मरे तू? चल घरा. कोल्याच्या तोंडाक हांव लागना. आयज म्हजें पोट भरलेलें आसा. निकतो एका कोल्याक खाला हांवें, मात्सो आड पडटां. फाल्यां यो.'

वागाचीं उतरां आयकून कोलो पोटांतल्यान कडकडलो. तरी ताणे धीर सोडलोना. थरथरताले पांय तायट धरून ताणे म्हणलें – 'तसल्यो फटाशो मारू नाका. म्हजेकडेन झगडूंक भियेता जाल्यार म्हाका शरण यो. हांव तुका भौमानान व्हरून दुसऱ्या रानांत सोडटां'.

'कोल्या, कित्याक बेश्टो जिवार उठला? आयचो दीस मार मजा. फाल्यां हांव खातां तुका'.

'फाल्यां बिल्यां कांय ना. कितें तें आत्तां. भिलो जाल्यार भिलो म्हणून सांग'.

'आब्बा! चड जालें मरे तुजें. एकाच घांसान नाच्च करपी', वागाक मात्सो राग आयलो.

'तू कितें नाच्च करतलो म्हाका? भिकणां ? हांव तुका चाबडावन चाबडावन खावपी आनी उरलेलें मांस सगल्या कोल्यांक वांटपी', कोलो भियेवन फाटी सरत उलयलो.

'आता म्हज्यान सोसूंक जायना. चड मोदेला तूं', अशें म्हणून वाग चार पांयांचेर उबो रावलो.

कोलो तयारेन रावलो. 'यो...मार उडी...कूय...'

वागान तिरान वयर साकून कोल्याचेर उडी मारली.



पूण वाग आपणाचेर पडचे आदीच कोलो थंयचो पळ्ळो आनी पयस झाडामुळांत रावून वागाक चाळोवंक लागलो– ‘कूय कूय वागा...हूश हूश वागा’.

वयर साकून जमनीर पडिल्ल्यान वागाचें आंग मात्शें धोडावलें, तेन्ना ताका कोल्याचो आनीक राग आयलो. ‘ह्या कोल्याक कसोच सोडचोंना हांव’ असो मनांत निश्चय करून वाग कोल्याक धरपाक धांवलो.



कोलो धांवता फुडें, वाग धांवता फाटी. वाग कोल्यापरस फांस धांवता खरो. पूण कोलो ताच्या हाताक कसोच गावलोना. वाग लागी

पावलो म्हणटकच कोलो अकस्मात उजव्यान वा दाव्यान वोल्तां मारूंक लागलो. वाग आपल्या नेटान धांवताना फुडें पावतालो. थारतालो आनी परतून फाटी येतालो. तो म्हणसर कोलो 'कूय कूय' करीत आडवाटेन बरोच पयस पावतालो. तरी वाग ताची फाट कशीच सोडिनासलो.

अशें करता करतां दोगय दुसऱ्या रानांत पावले. धांवन धांवन दुसरें रान सोंपलें. मागीर एक शेत लागलें. शेताच्या बांदाक उदक वचपाखातीर कान केल्लो. कोल्यान पयस रावन तो कान पळयलो. वाग लागी पावता पावता तो त्या कानांत भितर सरलो. फाटोफाट वाग कानांत वचूंक पळयतालो. कान आसलो बारीक आनी वाग आसलो मोटो. कोलो बारीक म्हूण गेलो भितर. वाग शिरकलो. भितर रावन 'कूय कूय' करून वागाक चाळोवंक लागलो तसो वागान कानांत भितर वचपाक आनीक नेट केलो. पूण तो चड आनी चड शिरकलो.



कोलो कानाच्या दुसऱ्या तोंडातल्यान भायर आयलो आनी

वागाच्या कुल्यांचेर खोंटो घालून वागाक त्या कानांत आनीक शिरकायलो. वाग त्या कानांत इतलो घट जालो की, ताका फुडेंय वचूंक जमलेंना आनी फाटीय सरूंक जालेंना. तेन्ना कोल्यान ताका सांगलें, 'पळयलें मरे वागा, कूय... हांवे तुका सांगूंक नासलें, हांव तुका खातलों म्हूण? आता तूं तसोच राव. हांव तुजे इल्ले इल्ले कुडके काडून खायत रावतां', अशें म्हणून कोलो खऱ्यानीच वागाच्या कुल्याक घांस मारून कुडके काडूंक लागलो. कूय...कूय करून सगल्या कोल्यांक ताणे आपयले. सगल्या कोल्यांनी एक एक घांस काडून वागाक काबार केलो. कोलो बेगिबेगीन वागाच्या आसनार बसपाक गेलो. पळय जाल्यार थंय दुसरो वाग बशिल्लो आसलो.





## भरत नायकाची पुस्तकां

### काव्यसंग्रह

मना मना

गीतगंध

### एकांकी

वेंचणूक

काशिपोंदा

चपलाहार (कला अकादमी साहित्य पुरस्कार - १९८३)

भेरें भेरें टुणटुणें

बेकार कवी लाखां धनी

बॉबी न्हिदता तेन्ना

नंबर ३६

तिसरे माळयेर बस (कोंकणी भाशा मंडळ साहित्य पुरस्कार - १९८६)

चामट्याक चिमटो

### बालसाहित्य

पड रे पावसा पड

जादवाचो आयणो (N. C. E. R.T. दिल्लीचो राष्ट्रीय पुरस्कार - १९९७)

११ एकपात्री

शाणुल्या गुणुल्या

एक आसलो.... (कोंकणी साहित्य केंद्र, कुडचडें - 'मथा' पुरस्कार - २००६)

गणपती बाप्पा मोरया

व्हडलो जातलों हांव

धवो कावळो

### नाटकां

राम राम भाऊ

युगान्त (कला अकादमी नाट्य लेखनाचें पयलें इनाम - १९९४)

शॉक ट्रीटमेन्ट

एके रातीन एके वातीन